# अलिबाबा आनी हेर काणयो



कुमुद मुळगांवकर

**ओरिएंट लॉंगमन लिमिटेड**

**रजिस्टर्ड ऑफिस**

३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबाद ५०० ०२९

**हेर ऑफिसां**

कामाणी मार्ग, बॅलार्ड इस्टेट, मुंबय ४०० ०३८

१७ चित्तरंजन ॲव्हेन्यू, कलकत्ता ७०० ०७२

१६० अण्णा सलाय, मद्रास ६०० ००२

१/२४ असफली मार्ग, नवी दिल्ली ११० ००२

८०/१ महात्मा गांधी मार्ग, बंगळूर ५६० ००१

३६५ शहीद नगर, भुवनेश्वर ७५१ ००७

४१/३१६ 'गौर मोहन' अंबाडी लेन, चित्तूर रोड, कोचीन ६८३ ०४१

एस. सी. गोस्वामी रोड, पानबझार, गुवहाटी ७८१ ००१

३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबाद ५०० ०२९

२८/३१, १५ अशोक मार्ग, लखनौ २२६ ००१

सिटी सेंटर अशोक, गोविंद मित्र रोड, पाटणा, ८०० ००४



ISBN 81 250 0230 8

अक्षरजुळणी : ओमेगा एन्टरप्राइझेस मडगांव-गोंय ४०३ ६०१

छापपी : बिंदु आर्ट, मुंबय ४०० ०११

उजवाडावपीः ओरिएंट लॉंगमन लिमिटेड,

बॅलार्ड इस्टेट, मुंबय ४०० ०३८

# अलिबाबा आनी हेर काणयो

मूळ बरोवपीः
कुमुद मुळगांवकर

अणकारपीः
मनोहर पै-धुंगट



ओरिएंट लाँगमन

## मांडावळ

## १. काणयांचो काणयेकार

त्या शारांतल्या वाडिल्ल्या चलयांचेर आनी तांच्या आवय-बापायचेर सामकें संकट आयिल्लें. थंयच्या लोकाच्या आदराक आनी मोगाक पात्र आशिल्लो व्हडलो सुलतान तकली फिरिल्ल्या दुश्ट मनश्या सारको वागूंक लागिल्लो.

दिसपट्टी नवी व्हंकल ताच्या महालांत धाडूंक जाय असो ताणें हुकूम सोडिल्लो. एके राती पुरतो तो तिच्या वांगडा लग्न करतालो आनी सकाळीं फुडें तिची तकलीच कातरून उडयतालो.

वर्सांचीं वर्सां ह्या शारांत रावन नांवारुपाक आयिल्ले लोक भंयान हें शार सोडून वचूंक सोदताले. जांकां सोडून वचप शक्य नाशिल्लें, ते धकाचपाट्यान दीस घुकलताले.

हो सुलतान तशें पळयल्यार शत्रू कडेन झगडून तोंड दिवन देशाची राखण करपी, शाणेपणान आनी बरे भाशेन राज्य करपी. मागीर असलो हो पिशेपणाचो हुकूम दिवंक कारण कितें आसुंये काय?

ताचें जालें अशें. सुलतानाक शार सोडून शत्रू कडेन झूज दिवपाक बरेच फावट वचचें पडटालें. दिसाचे दीस आपणालो महाल सोडून भायर दीस काडचे पडटाले. पूण तो मोटे उमेदीन आपणाले सुंदर आनी हुशार राणये कडेन परत येतालो.




आतां ही राणी दिसूंक सुंदर, पूण मनान वायट आशिल्ली. सुलतान भायर गेल्या उपरान्त तिच्यो सुलतानाक फटोवन वायट गजाली सुरू जाताल्यो.

एक फावट सुलतानाक राणयेच्या कर्तुपाचो पत्तो लागलो. ताका भिरभिरी मारली. सगळयो बायलो दिसूंक सुंदर आसल्यो, तरी वायट आसतात, अशें ताणें मतींत घेतलें. हुकूम दिवपाक कारण जालें तें हें.

सुलतानाक सल्लो बी दिवपाक ताचो मुखेल वजीर आशिल्लो. हो जाणटो आनी विस्वासांतलो, इतलेंच न्हय तर सुलतानाचो इश्ट कसो आशिल्लो. सुलतानाचो हुकूम आयकून वजिराक धक्को बसलो. “बायलो म्हळयार वायटांतल्यो वायट. म्हज्या अणभवा वयल्यान सांगतां.

हांव सूड घेतले बगर रावचों ना!" रागान फुरफुरत सुलतानान वजिराक म्हळें. सुलतानाच्या रागीट अवतारा मुखार वजीर थरथरलो. इतलें आसून ताणें समजावणेच्या सुरान म्हळें, "सरकार, दादले बरे आसतात तशे वायटूय आसतात हें तुमी नकळो? तेच भाशेन बऱ्यो आनी वायट बायलो आसूं येतात."

वजिराची आनी सुलतानाची ह्या विशयाचेर बरोच वेळ भासाभास जाली. निमाणे कडेन वजिरान म्हळें, "तुमची प्रजा आयजवेर तुमचे गूण गायत आयल्या, तुमचेर मोग करीत आयल्या, तुमचें बरेंपण मानीत आयल्या. तुमच्या निश्ठुरपणाक ते कंटाळटले. तुमचो भंय तिका सदांच दिसतलो. तुमचो दुस्वास करूंक लागतले." सुलतान कांयच आयकुपाक तयार नाशिल्लो. ताका भोगताले ते पिडेन तो पिशांतुरावरी जाल्लो. वजिराक ताणें हुकमाक पाळो दिवंक सांगलें. आनी दिसपट्टी व्हंकल महालांत हाडपाक सांगलें.

वजिराक दोन सुंदर चलयो आशिल्ल्यो. व्हडली रुपेस्त तशीच गुणेस्त. तिचे लागसार येवपी ल्हान व्हड रोखडेच तिचेर भाळटाले. ती काव्य, इतिहास बरी शिकिल्ली. गणीत आनी तत्त्वज्ञान ह्या विशयांत सुद्दां तिका बरीच गती आशिल्ली.

तिणें काणयो वाचून काडिल्ल्यो. जगांतल्यो सगळयो काणयो तिणें वाचून सोंपयल्ल्यो म्हळयार जाता. त्यो

खुलोवन सांगपाचीय हातोटी तिका आशिल्ली. तिणें एकदां काणयो सांगूंक सुरवात करतकूच काम-धंदो सोडून वरांचीं वरां लोक आयकत रावताले.

ती विचार करपीय आशिल्ली. बापायचीं बुदवंतपणां तिचे कडेन आशिल्लीं. तिणें बरोच वेळ विचार कर कर केलो. सुलतानाचें पिशेपण कशे तरेन ना करपाचें?

तिका एक युक्त सुचली. आपणेंच व्हंकल जावन सुलताना कडेन वचप. काणयो सांगपाचे कलेचो उपेग करून सुलतानाक जिखप. जमता जाल्यार पळोवपाचें. तिणें ही युक्त कोणाक सांगली ना. फकत धाकले भयणीक सांगली आनी आपणाक मदत करपाक तिका सांगलें.

वजीर सामको चिंतेस्त आनी दुःखी जावन बशिल्लो. कशेय भाशेन हुकूम मानून व्हंकलो तयार दवरूंक जाय. त्यो बळी वतल्यो हें येवजून तो दुःखी जातालो. व्हडली चली ताचे म्हऱ्यांत गेली आनी व्हड विस्वासान आनी थंडसाणेन तिणें बापायक सांगलें, "तूं कांयच चिंता करूं नाका. हांव सुलताना कडेन लग्न जावंक तयार आसां."

"हें केन्नाच जावचें ना. तुमची आवय वचत पसून तुमचे बगर म्हका कोण ना. तुमी म्हजीं दोन सुंदर पिलां; हांव कसोच तुमकां वगडावचो ना," वजिरान काकुळटेक येवन म्हळें.

"तुवें तुजें कर्तव्य करुंकूच जाय. तुजी चली जर

दिवपाक तूं अनमनलो, जाल्यार दुसऱ्यांक तांच्यो चलयो दी म्हूण तूं खंयच्या तोंडान सांगतलो?" व्हडले चलयेन विचारलें. ते बरोबर वजिरान आकांतान म्हळें, "हांव कांयच आयकुचो ना. म्हज्यो चलयो म्हज्या काळजाचे कुडके. हांव ते कशे दिवं?"

"धाकटेक दिवपाची तुका गरज ना. हांव तुजी व्हडलीच वचूंक सोदतां आनी तुज्या आशिर्वादान घोवाक ताळयार हाडूंक यश मेळयतलीं," व्हडलेन थंडसाणेन म्हळें. "सुलतानाक चार उतरां सांगून जर तूं ताळयार हाडूंक सोदता आसत, जाल्यार म्हजे धुवे, तूं चुकता. हांवें म्हज्या जिवाची पर्वा करिनासतना सुलतानाक चार गजाली सांगून पिशेपणां सोडपाक सांगलें. लोक बरेपण विसरून गाळी संवतले म्हूण सांगलें. काळें कुट्ट कर्तुप लोक मनांत दवरतले अशें सांगून पळयलें."

"हांव सुलताना बरोबर भासाभास करूंक वचना. बायलेन घोवा बरोबर भासाभास करप समा जावचें ना, हें हांव जाणां," व्हडलेन म्हळें.

"धुवे म्हजे, ताका जिखतली असो तुजो भ्रम आसा. तुजी सुंदरसाण, तुजी वागणूक हाचो प्रस्न ना. सध्याचे ताचे मनाचे स्थितीक लागून तांचो कांय परिणाम जायतसो दिसना."

"हांव सदांचे सारकीच वागतलीं, सदां भाशेन करतलीं. ताचो परिणाम जावन जर ताचीं पिशेपणां

निवळ्ळीं, जाल्यार ताका, म्हाका आनी इश्टिणींक जीवदान मेळटलें. ना जाल्यार हांव मरणाक तयार आसां."

वजिरान व्हडले कडेन जायती मागणी करून पळयली; तिका कुडींत धांपून दवरपाचें पसून ताणें येवजिलें. व्हडलेन निश्चयान सांगलें, "हांव सुलताना कडेन लग्न करतलीं म्हळयार करतलीं. तूं म्हाका घेवन वचना जाल्यार हांव एकलीच चल्लीं."

वजीर सुलताना कडेन गेलो आनी ताका सांगलें, "सरकार, म्हजी व्हडली धूव तुमची पयली व्हंकल म्हूण येतली." सुलतानाक अजाप जालें. ताच्या मनाक बरेंय दिसलें. वजिराची धूव सुंदर आसा म्हूण ताच्या कानार गेल्लें. वजिराची ती चड मोगाची, हेंवूय तो जाणा आशिल्लो. ताणें वजिराक शिटकावणी दिली, "लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा तिचें मरण थारिल्लें आसा हें विसरूं नाका."

"हांव जाणां. हांवें तिका जायतें सांगून पळयलें. सुलताना कडेन लग्न करतलीं असो धुवेन हट्ट धरला," वजिरान काकुळटेक येवन म्हळें.

दुसऱ्या दिसा लग्न समारंभ जालो. राणी म्हूण महालांत येवचे पयलीं तिणें सुलतानाक एक विनंती केली. "आमची आवय मरत सावन हांव आनी म्हजी धाकटी भयण एकठांय रावल्यांत. आतांय आमकां एकठांय रावं

दी. दिसाची ती म्हज्या वांगडा रावतली आनी रातची भितल्ले कुडींत न्हिदतली. हांव मरतां तेन्ना म्हजी निमाणी नदर तिचेर पडूं दी, इतलेंच म्हजें मागणें.”

सुलतानान मागणें मान्य केलें. आनी धाकली महालांत रावंक आयली. दीस भर राणयेन थंडपणान कामां केलीं. सदांचे वरी ती गोडगोड उलयताली आनी तोखणाय करपा सारकी वागताली. दुसऱ्या दिसा तिचो सांगात आपणाक मेळचो ना म्हूण सुलतानाक मनांतल्यान वायट दिसलें. पूण आपल्या निश्चया पसून पयस न वचपाचें ताणें थारायिल्लें. सकाळीं फुडें ती मरतलीच. हाचे फुडें जी राणी येता ती एक दीस आनी एके रातीची सांगातीण.

थारायिल्ले आंखणे प्रमाण फांतोडेर धाकलेन भितल्ले कुडींतल्यान म्हळें, “भयणी म्हजे, आमच्या मालकाचे परवानगीन म्हाका तुजी मनभुलोवणी काणी सांग. तुजे ओंठ सासणाचे धांपचे पयलीं एक तरी काणी तुजे कडल्यान म्हाका आयकूं दी.”

सुलतानाकूय ही कल्पना आवडली. “चल तर, तिका एक काणी सांगूं दी.”

राणयेन सुरवात केली. न्हिदसुऱ्यांनी सुलतान आयकतालो. आयकुप्यांची तनरी लावपाची कला तिचे कडेन आशिल्ली. तिणें सुरवाते सावन काणयेंत रंग भरलो आनी एक एक खबर सांगून वाडयत व्हेली.

सुलतानाक उठोवपाक आनी राणयेक सुळार व्हरपाक नोकर येवन हाजीर जाले. सुलतानाक दरबाराक वचपाचें जालें. "हे काणयेचो शेवट म्हाका जाणून घेवचो आसा. म्हाका दरबारांत तर वचूंक जाय. राणयेक सुळार फाल्यां दिवंया; आयचो दीस आसूं," सुलतानान म्हळें.

अशो रातीच्यो राती गेल्यो. राणयेन काणयो सुरू करच्यो, सुलतानाक मुखार कितें जाता ताची उमळशीक लागची. राणीय मोटे खुबयेन उत्सुकताय चड वाडटा थंय थांबताली. सुलतानाक मुखार कितें जाता तें समजून घेवपाची इत्सा जाताली. अशे भाशेन हें एक हजार आनी एक राती चल्लें. कांय ना म्हळयार दोनशें काणयो सांगून जाल्ल्यो.

ह्या हजार रातीं मजगतीं सुलतान राणयेच्या सामको मोगांत पडलो. तो तिका सुळार चडोवपाचें विसरलो. वजिराचे हुशार धुवेन आपल्या घोवाचो राग देंवयलो आनी सूड घेवपाचो विचार सोडून दिवंक लायलो. तिणें आपल्या तरण्या इश्टिणींचे प्राण वाटायले.

सुलतान तिचे कडल्यान शाणेपण शिकलो. ह्या संवसारांत बरे आनी वायट दादले आसात, तेच भाशेन बऱ्यो आनी वायट बायलो आसात.

हे राणयेचें नांव दवरलें शेहरजादी - म्हळयार शाराची सोडवणदार. धाकटी, जिणें शाणेपणान तिका मदत केली, तिचें नांव पडलें दुन्यारजादी.

## २. अलिबाबा आनी चाळीस चोर

खूब खूब वर्सां पयलींची ही गजाल.

पर्शिया म्हणटात त्या देशांतल्या एका गांवांत कासीम आनी अलिबाबा म्हूण दोग जाण भाव रावताले. कासीमाचें लग्न गिरेस्ताले चलये कडेन जाल्लें. तिचे कडल्या पयश्यांचे मदतीन कासीमान एक दुकान घालून धंद्याक सुरवात केली. कांय काळा उपरान्त तो एक गिरेस्त वेपारी जालो.

अलिबाबा आनी ताची बायल एका ल्हानशा घरांत रावतालीं. अलिबाबा लांकडां फोडपाचें बी काम करून पोट भरतालो. दीस भर लांकडां पुंजावंक तो रानांत वतालो आनी जळोव विकून पयशे मेळयतालो.

एक दीस अलिबाबा जळोव घेवन रानांतल्यान घरा परत येतालो. इतल्यांत ताका घुळीचो लोट उडटासो दिसलो. तो धुळीचो लोट कांय लोक घोड्यार बसून येताले ताका लागून उडिल्लो. अलिबाबा बेगिबेगीन झाडाचेर चडून लिपून बसलो. झाडा शेजारा एक व्हडलें खडप आशिल्लें.

घोड्यां वयले मनीस दिस्त त्या खडपा म्हऱ्यांत थांबले. देंवले आनी घोडयांच्या फाटीं वयल्यान तांणी व्हडलीं व्हडलीं वजीं देंवयलीं. त्या लोकांचो फुडारीसो दिसपी एकलो मुखार सरलो. आनी ताणें तोंडान म्हळें, "जंतर

मंतर कोला कंतर, तिळा उगड हाचे नंतर.”
खडपांतल्यान एक दार घडांयच करून उकतें जालें आनी
खडपांतले घोलींत एक-एकलो वजें घेवन भितर गेलो.
झाडार लिपून बशिल्लो थंयच्यान अलिबाबान मनीस
मेजले. चाळीस आशिल्ले. कांय चुकूं नाका, हे चोर
आसतले, अलिबाबान चितलें. चोरांचे नदरेक अलिबाबा
पडलो ना.

बरोच वेळ घोलींतल्यान ते भायर आयले नात.
अलिबाबाक झाडा वयल्यान देंवपाक धीर जायना जालो.
आपूण देंवलो आनी दिस्त त्याच वेळार चोर भायर
आयले जाल्यार? असो विचार करून अलिबाबा वयरूच
रावलो. बऱ्याच वेळान ते चाळीस जाण भायर आयले.
तांच्या मुखेल्यान मंत्र म्हळो, “जंतर मंतर कोला कंतर,
तिळा धांप हाचे नंतर.” दार घडांयच करून बंद जालें
आनी ते लोक घोड्यार बसून गेले.

कांय वेळान अलिबाबा सकयल देंवलो. घोलींत कितें
आसा तें पळोवपाची ताका उमळशीक लागिल्ली. ताणें
तोंडान म्हळें, “जंतर मंतर कोला कंतर, तिळा उगड हाचे
नंतर.” दार उकतें जालें आनी अलिबाबान घोलींत
पावल दवरलें. भितर सरले बरोबर दार आपशींच बंद
जालें. अलिबाबा तें कोणें धांपलें म्हूण पळयत रावलो.
घोलींत तर कोणूच नाशिल्लो. अलिबाबान भोंवतणी
पळयलें आनी तो दिपावन गेलो. भांगराच्यो आनी




रुप्याच्यो राशी, तरेतरेचीं लुगटां सगळे कडेन आशिल्लीं. ताणें आनीक वेळ वगडायलो ना. बरेंचशें भांगर आनी रुपें एकठांय केलें, दारा कडेन आयलो आनी जादूचो मंत्र ताणें म्हळो, "जंतर मंतर कोला कंतर, तिळा उगड हाचे नंतर." दार उगडलें. तो भायर सरलो आनी दुसरो मंत्र म्हणपाक तो विसरलो ना. "जंतर मंतर कोला कंतर, तिळा धांप हाचे नंतर."

अलिबाबान काडिल्लें सामान गाडवाचेर घालें. ताचेर बरे भाशेन जळोव दाळ्ळो आनी तो घरा परतलो.

घरा पावना फुडें ताणें गाडवां भायर बांदलीं आनी भांगराच्यो पोतयो घेवन तो भिरत गेलो. ताचे बायलेक भांगर पळोवन अजाप जालें. "इतलें सगळें भांगर

खंयच्यान हाडलें? तुमी खंय चोरी बी करूंक ना मूं?"
अलिबाबा आनी बायल भांगराचीं नाणीं मेजपाक लागलीं. मेजप सोंपून सोंपना. ताका दिसलें, एक एक करून मेजपा परस मापट्यान मेजल्यार बरें. ताणें बायलेक सांगलें, "कासीमा बायले कडल्यान मेजपाक मापटें घेवन यो. भांगर बी मेजपाक जाय म्हूण सांगूं मात नाका." ते प्रमाण ती जावे म्हन्यांत गेली आनी तिचे कडेन मापटें मागलें. कासीमा बायल विचारांत पडली... हो लांकडां फोडपी मानाय; हाचे कडेन मापट्यान मेजपा इतलें धान्य खंयचें? मापटें हांकां जाय कित्याक?

ती भितर गेली. थोडेंशें मेण घेतलें, मापट्याक चिकटायलें आनी अलिबाबाचे बायले कडेन दिलें. अलिबाबान सगळें भांगर मेजलें, घरा फाटल्यान खोल खणलें आनी सगळें भांगर आनी रुपें पुरून दवरलें.

अलिबाबा आनी ताची बायल बरे भाशेन रावंक लागलीं. बरें खावंक जेवंक, बरे कपडे तांकां मेळपाक लागले. तांचे गिरेस्तकायेचें गुपीत कोणाक खबर ना अशें तांकां दिसतालें.

२

कासीमा बायले कडेन मापटें व्हरून परतें दिलें तेन्ना तिणें तळाक चिकटून राविल्लो एक भांगराचो कुडको पळयलो. तिणें कासीमाक म्हळें, "तुमी अलिबाबाक

गरीब समजतात तसो तो ना. ताचे कडेन खूब भांगर आसा. कालूच ताचे बायलेन आमचे कडल्यान मापटें व्हेल्लें. हें पळय भांगर पोंदाक चिकटल्ले कडेन आसा," तिणें कासीमाक मापटें दाखयत म्हळें.

कासीम वायट बुद्दीचो आशिल्लो. भावाचें बरें जाल्लें ताच्यान पळोवं नज आशिल्लें. इतलें सगळें भांगर भावा कडेन कशें आयलें हें समजून घेवपाची ताका उमळशीक लागली. तो उठलो आनी भावागेर गेलो आनी ताणें मापट्याक दशिल्ल्या भांगराची गजाल काडली. "अलिबाबा, तूं गरीब आसा म्हूण बेश्टें सांगता. तुजे कडेन घे म्हूण भांगर आसा, हें हांव जाणां. तें तुका खंय मेळ्ळें? चोरूंक बी ना मू? म्हाका सगळें सांग."

अलिबाबाच्या मनांत ताका सांगपाचें नाशिल्लें. पूण तो उकत्या मनाचो आनी भावाचेर माया करपी आशिल्लो. ताणें ताका सगळी गजाल सांगली. ती दोंगरांतली घोल खंय आसा तें पसून सांगून सोडलें.

दुसऱ्या दिसा धा घोडे घेवन कासीम थंय पावलो. घोलींतल्यान चडांत चड संपत्ती उबारपाची ताची आस्त आशिल्ली. तो घोली तोंडार पावलो आनी ताणें मंत्र म्हळो, "जंतर मंतर कोला कंतर, तिळा उगड हाचे नंतर." दार उगडलें. ताचे मुखार अलोट संपत्ती पडिल्ली. ल्हेंवट्या वरी कासीमान पोतयो भरल्यो. हाताक मेळटा तितलें भांगर-शिंगर, रुपें ताणें पोतयांनी

भरलें. दारा कडेन तो आयलो आनी मंत्र म्हणपाक लागलो, "जंतर मंतर कोला कंतर, गंवा उगड हाचे नंतर." दार उगडना. गंवा बदला तांदळा म्हळें. तिळा हें उतर कशेंच ताच्या तोंडांत येना जालें. कितें करचें ताका सुचना जालें. तो सामको भियेवन गेलो. वाट सोदूंक लागलो. कशीच मेळना. ताका घाम सुटलो. थोड्या वेळान तो थरथरूंक लागलो. कांय वेळान ताका आवाज आयकूंक आयलो. चोर आयल्यात जातले हें तो समजलो. चाळीस चोर भितर सरले. तांणी कासीमान भरून दवरिल्ल्यो पोतयो पळयल्यो. कासीमाची भियेवन गुळी जाल्ली आनी एका कोनशाक तो उबो राविल्लो. चोरांच्या म्होरक्यान ताका ओडून भायर काडलो. ताका कांयच विचारलें ना.

सपासप ताचेर तलवारीन वार केले आनी रक्तबंबाळ करून दाराकडेन उडयलो. तांकां दिसलें, तो मेला जातलो म्हूण. तांकां सुमारा भायर राग आयिल्लो आनी सैर भैर जाल्ले. कांय भांगर कमी जाल्लें हें तांच्या लक्षांत आयलें ना.

कासीमाक येवंक कित्याक उशीर जालो हें कासीमा बायलेक कळळें ना. तिणें वाट पळय पळय पळयली. अखेर शेवटाक ती उठून अलिबाबागेर गेली.

"रात जाली तरी म्हजो घरकार परत येवंक ना. तो खंय गेला हें पळोवंक म्हाका मातशी मदत कर." ती

सामकी रडूंक पाविल्ली. अलिबाबाक काकुळट दिसली. ताका कासीम खंय गेला जातलो हाची कल्पना आयली. कांय चुकूं नाका, तो चाळीस चोरांचे घोलींत गेला जातलो.

अलिबाबान कासीमा बायलेची समजाविशी केली. "हुस्को करूं नाका, हांव ताका घेवन येतां," इतलें म्हणून तो भावाचे सोदी गेलो.

घोलीच्या तोंडार कासीम रक्तबंबाळ जावन पडिल्लो. चोरांनी ताका मारून उडोवपा खातीर जखमी केला हें ताच्या लक्षांत आयलें. अलिबाबान कासीमाक गाडवाचे फाटीर घालो आनी ताका घरा घेवन आयलो.

३

अलिबाबान कासीमाच्या घराच्या दारार मारलें. मोर्जियाना ह्या तांगेर कामाक आशिल्ल्या चेडवान दार उगडलें. मोर्जियाना तरणें आनी हुशार चेडूं आशिल्लें. अलिबाबाचे बरे वळखीचें.

"मोर्जियाना, तुजो धनी कासीम बरोच रक्तबंबाळ जाला. ओगी राव, हें कोणाक सांगूं नाका. ताका भितर व्हरपाक म्हाका मदत कर; उपरान्त हांव तुज्या धनयाचे बायलेक सगळें सांगतां."

अलिबाबान कासीमाचे बायलेक सगळें सांगलें. तिच्या दोळयांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. अलिबाबान तिची

समजाविशी केलीं, "तूं कांय हुस्को करूं नाका. आमी ताची काळजी घेवन आशिल्लो तसो ताका बरो करूंया. म्हजे बायलेक तुजे मदतीक हाडटां. पूण तूं हाचे विशीं कोणाच कडेन उलोवं नाका."

मोर्जियानाक धनयाचे परिस्थितीची भोव बरी कल्पना आयली. तिणें अलिबाबाक म्हळें, "हांव हाक बरो करपी एक मनीस आसा, ताका वळखतां. तो चांभारकाम करपी; पूण वैजकी जाणा. तो लोकांक बरे करता."

"मोर्जियाना, तशें आसा ज़ाल्यार ताका घेवन येवंया. हे घे पयशे. ताका पयशे दी आनी फाल्यां सकाळीं फुडें ताका हांगा घेवन यो," अलिबाबान म्हळें.

मोर्जियाना उठून बाबा मुस्ताफा कडेन गेलें. आनी ताका म्हळें,"हें भांगराचें नाणें घे आनी हांव सांगतां तें काम कर."

मुस्ताफाक भांगराचें नाणें जायूच आशिल्लें. ताणें म्हळें, "काम कितें आसा तें तर सांग. तुका नवे बूट बी जाय जाल्यार रोखडे करून दितां."

"म्हाका बूट बी कांय नाका. म्हज्या वांगडा यो आनी मातशी मदत कर. एका वायटकाराक तुजी मदत जाय. तुवें जर मदत केली, जाल्यार असलेंच आनीक एक नाणें हांव तुका दितां. पूण एक, म्हजे बरोबर येतना तुजे दोळे ह्या लुगटान हांव बांदतलें. चल तर, म्हज्या वांगडा येवंक तयार जा."

पयलीं मुस्ताफा विचारांत पडलो. उपरान्त तो तयार
ालो. मोर्जियानान ताचे दोळे लुगटान धांपले आनी
ासीमाच्या घरा ताका घेवन आयलें. धनया म्हन्यांत तो
ावतकूच ताच्या दोळयांवयलें लुगट काडलें आनी म्हळें,
"हो मनीस मरणा कडेन पावला. जाता तें कर आनी
ाचो जीव वाटाय."
मुस्ताफान कासीमाक तपासलो. ताची परिस्थिती
ामकीच वायट आशिल्ली. मुस्ताफाक कांयच करप
ाक्य नाशिल्लें. ताणें ताच्यो जखमो वखद घाल्ल्या
ादकान बऱ्यो साफ धुवन घेतल्यो आनी ताका वखद
देलें. पूण कांय उपेग जालोना. ताणें म्हळें, "हांवें
ायतो यत्न केलो; हांव ताका वाटावंक शकना."
ासीमान निमणो स्वास घेवन सासणाचे दोळे धांपले.
मुस्ताफाक घेवन मोर्जियाना भायर गेलें, ताचे दोळे
ांपले आनी ताका पयस सोडून घरा परतलें. दुसऱ्या
देसा सोयऱ्या-धायऱ्यांक कासीमाच्या अचकीत मरणाची
बबर अलिबाबान दिली. सगळे जाण कासीमा बायलेक
ाप दिवंक आयले. कासीमाची कूड मातयेक लायली.
अलिबाबाक एक चलो आशिल्लो. तो एका वेपाऱ्या
ाडेन काम करतालो. ताका हाडून ताणें कासीमाच्या
ुकानार बसयलो. कासीमाचे बायलेक तो मदत करूंक
ेसरलो ना. सगलींच जाणा येवन कासीमाच्या व्हडल्या
ारांत रावंक लागलीं.

चाळीस चोरांचें फुडें कितें जालें? तांकां कासीमाची कूड परती दिसली ना. तांचो बरोच पयसो-अडको, भांगर-शिंगर नाच जाल्लें. "आमचे घोलीची खबर कोणाक तरी नक्कीच लागल्या," चोरांच्या म्होरक्यान म्हळें. "तो कसो भितर सरलो? मंत्र खंयच्यान शिकलो? आमचें गुपीत जाणा आशिल्लो कोण तें सोदून काडचेंच पडलें."

सगळ्यांनी मान हालयली. मुखेल्यान म्हळें, "आमच्यांतलो एक जाण प्रवासी जावन गांवांत वचचें. ताणें लोक कितें उलयतात तें बारीक आयकुचें. आमी मारून उडयल्ल्या त्या मनशाचें घर ताणें सोदून काडचें. जर ताणें सारकी माहिती हाडली ना, जाल्यार ताकाच मारून उडयतले, समजलें?"

चोरांपैकीं एकलो तयार जालो. आनी भोंवडेकाराचो भेस करून रस्त्या वयल्यान भोंवंक लागलो. सांजवेळ जाल्ली आनी ताका एकूच ल्हान दुकान उक्तें मेळळें. तें मुस्ताफा बाबाचें आशिल्लें. चोर ताच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी उलोवणें सुरू केलें.

"इतल्या कमी उजवाडांत तुका म्हाताऱ्याक दिसता कशें?"

"आरे बाबा, तूं हांगा परकी आसतलो, ना जाल्यार म्हजे दोळे हे पिरायेर लेगीत बरे आसात हें हांगाचे सगळे जाणात."

"तुका चांभारकामाक जाय तितले पयशे मेळटात काय ना?"

"मेळटात; पूण हांव दुसरींय कामां करून पयसो मेळयतां." फाटल्याच सप्तकांत एका मरूंक तेंकिल्ल्या मनशाचे प्राण वाटावपाचे हांवें शिकस्त प्रयत्न केले. त्या मनशाच्या आंगार आकांताच्यो जखमो आसल्यो. म्हज्या यत्नांक यश आयलें ना."

चोराक हो मनीस कोण आसुंये तें कळ्ळें. ताणें विचारलें, "खऱ्यांनीच तूं वैजाचें काम करता?"

"हांव फटी कित्याक उलोवं? पूण हाच्याकय चड हांव कांयच सांगचों ना. आतां तूं मात्सो हांगाच्यान वच" मुस्ताफान बेजारून म्हळें.

चोरान एक भांगराचें नाणें काडून मुस्ताफाच्या हातार दवरलें आनी म्हळें, "तूं ज्या घरांत जखमी मनशाक बरो करूंक गेल्लो, तें घर म्हाका मातूशें दाखय; हांव कोणाक कांय सांगिना."

मुस्ताफान बेजारून म्हळें, "तूं आतां हांगाच्यान वच पळोवया."

चोरान आनीक एक नाणें काडून मुस्ताफाच्या हातार दवरलें. "आतां तरी घर दाखयशीत? म्हाका फक्त घर पळोवचें आसा."

म्हाका तें घर सारकें खबर ना. घरांत भितर वतना म्हजे दोळे सामके धांपिल्ले. हांव तुका अदमासान त्या

घराकडेन व्हरतां. चोराक तेंच घर आसतलें म्हूण खात्री जाली आनी आपलें काम जातलें म्हूण ताका खोशी जाली. "तांणी तुजे दोळे धांपलेशे कित्याक? हें थोडेंशें विचित्रूच दिसना तुका?"

"विचित्र न्हय तर कितें? चल, हांव तुका त्या घरा मेरेन अदमासान व्हरतां. फुडलें तूं पळय." दोगूय जाण चलत चलत एका घरा कडेन आयले. थंय मुस्ताफा उबो रावलो आनी म्हळें, "आमी हांगाच राविल्लीं. हेंच घरशें दिसता." चोराक खोशी जाली. ताणें मुस्ताफाचे उपकार मानले आनी ताका परत दुकानार वचूंक सांगलें. मुस्ताफा गेल्या उपरांत घराच्या दारार एका खडवान कुरू केली. इतलें करून तो आपल्या सांगात्यांक ही बरी खबर दिवंक रानांत गेलो.

दुसऱ्या दिसा मोर्जियानान बाजारांत वचपाक दार उगडलें तेन्ना ताणें दारार खडवान केल्ली कुरू पळयली. 'ही कुरू कसली? कोणें सभाग्यान ही केल्या आसतली?' मोर्जियाना विचारांत पडलें. 'म्हज्या धनयाच्या वायटाक तर कोण ना मू?' ताणें आनीक वेळ केलो ना. एक खडू घेवन तसल्योच कुरवो शेजारच्या सगळ्या घरांच्या दारांचेर केल्यो. चोर मुखेल्याक घेवन अलिबाबाचें घर सोदूंक आयलो. पळय जाल्यार सगळ्या घरांचेर एका सारक्यो कुरवो! अलिबाबाचें घर खंयचें हें सांगतलो कशें? ते रानांत

परतले. थंय मुखेल्यान त्या चोराक मरणाची ख्यास्त दिली.

दुसऱ्या दिसा आनीक एका चोराक यत्न करून पळोवपाचें येवजलें. तो उठून बाबा मुस्ताफाक मेळूंक गेलो. पयल्या चोरा भाशेन हाणेंय ताका भांगराचें नाणें दिलें आनी मुस्ताफा ताका घेवन अलिबाबाच्या घरासरीं आयलो. हे खेपे चोरान तांबड्या रंगान दारा वयर कोनशाक कुरू केली.

दुसऱ्या दिसा मोर्जियानाचे नदरेंतल्यान ती कुरू कशीच सुटली ना. ताची खात्री जाली, कोणतरी धनयाच्या जिवार उठला. ताणें तसलीच तांबडी कुरू सगळया घरांच्या दारांच्या कोनशांनी केली.

सांजवेळां दुसरो चोर मुखेल्याक घेवन आयलो. हे खेपे कांयच चूक जावची ना अशी ताची खात्री आशिल्ली. पळयत जाल्यार कितें? सगळया घरांच्या दारांर कोनशाक तांबड्यो कुरवो. दुसऱ्या चोराक अजाप जालें आनी भियेवन ताची गुळी जाली. रानांत परत वचना फुडें ताकाय पयल्या चोरा वरी मारून उडयलो.

मुखेल्याक खऱ्यांनीच राग आयलो. दांत ओंठ चाबून ताणें म्हळें, "आतां म्हाकाच प्रयत्न करचो पडलो. तो स्वता येवन बाबा मुस्ताफाक मेळळो. दोगूय उठून अलिबाबाच्या घरा कडेन गेले. मुखेली रानांत परत येवन म्हणूंक लागलो, "हांवें घर सारकें बरें तेळून दवरलां.

म्हजी युक्त तुमकां सांगतां, ध्यान दिवन आयकात. आमी तेलाच्यो बरण्यो हाडुंया. एकां बुयांवांत मात हांव तेल दवरतां. उरिल्ल्या बुयांवांनी एक-एकलो बसात. हीं सगळीं बुयांवां घोड्यां वयल्यान हांव शारांत व्हरतां, समजलें?"

## ४

थारिल्ले प्रमाण मुखेली घोडे घेवन अलिबाबाच्या घरा गेलो. ताणें दारार मारलें आनी अलिबाबाक म्हळें, "हांव तेलाचो वेपारी. हांवें विकपाक तेल बुयांवांनी हाडलां. आतां रात जाल्ले कडेन आसा. तुमकां त्रास जावचो ना जाल्यार म्हाका रांती पुरतें ह्या बुयांवां सयत तुमगेर रावंक दियात. दीस उजवाडना फुडें हांव मुखा वयल्या गांवांत वतां. अलिबाबान वेपाऱ्या कडेन पळयलें, पूण तो चोरांचो मुखेली हें ताच्या लक्षांत आयलें ना. आज वेपाऱ्याच्या भेसान तो वेगळोच दिसतालो. अलिबाबान ताका घरांत आपयलो आनी रातीक मुक्काम करपाक मेकळीक दिली. ताणें मेकळ्या जाग्यार घोडे बांदपाक दिले आनी मोर्जियानाक आपोवन सांगलें, "हो आयज आमगेर पावणो आयला. ताचे खातीर बरें जेवण कर."

रातचें जेवण जातकूच मुखेली भायर गेलो आनी ताणें ल्हवू आवाजान सांगलें, "हांव बुयांवांचेर फातुल्ल्यो मारतां, त्या वेळार बुयांवांतल्यान भायर येयात. तो वेळ

मेरेन ओगी रावात." इतलें सांगून तो भितर गेलो. मोर्जियानान ताका ताची न्हिदपाची कूड दाखयली आनी तें रांदचेकुडींत गेलें. पळय जाल्यार दिव्यांत तेल नाशिल्लें आनी तो वचचे कडेन आशिल्लो. भायर आशिल्ल्या तेलाच्या बुयांवांची ताका याद जाली आनी थोडेंशें तेल हाडपाक तें बुयांवां सरीं आयलें. पयल्या बुयांवाचें धांकण उकतें करपाक म्हूण गेल्यार ताका मनशाचो आवाज आयकूंक आयलो आनी तें चकासूर ज़ालें. बुयांवांतल्यान आवाज आयलो:

"आमी भायर येवपाचो वेळ जालो?" चोरान मुखेलीच आयला अशें समजून प्रस्न केल्लो.

मोर्जियाना हुशार आशिल्लें. ताणें ही कितेंतरी युक्त आसतली हें ताडलें. बुयांवांतल्या मनशांक भितल्ल्या आवाजान ताणें सांगलें, "आजून वेळ जावंक ना. मातशें रावन तुमकां आपयतां." सगळया बुयांवांनी मनीस बशिल्ले ताणें पळयले. आपणाल्या धनयाचेर संकट आयलां हें ताणें ताडलें. निमण्या बुयांवांत ताका तेल भरिल्लें दिसलें.

ताणें त्या बुयांवांतलें बरेंचशें तेल भितर व्हेलें आनी व्हडल्या आयदनांत कडोवंक दवरलें. तें हुनहुनीत कड आयिल्लें तेल भायल्या बुयांवांनी तें रकयत रावलें. बुयांवांत बशिल्ले चोर हुलपून मेले जातले.

तें भितल्ले वाटेन वचून मुखार कितें जाता तें पळयत

रावलें. मध्यानरातीं मुखेल्याचो आवाज आयलो. तो बुयांवांचेर फातुल्ल्यो मारीत आशिल्लो. पूण ताका जाग मेळळी ना. तो बुयांवां म्हऱ्यांत गेलो. कडयल्ल्या तेलाचो वास ताका आयलो. ताचे सगळे सांगाती मरून पडिल्ले. तो सामको भियेवन गेलो. ताणें दुरगा वयल्यान उडी मारली आनी पळ काडलो. मोर्जियानाक आपणालो धनी वाटावलो म्हूण खोशी जाली.

दुसऱ्या दिसा गजाल घडली तशी मोर्जियानान अलिबाबाक सांगली. अलिबाबान मोर्जियानाचे उपकार मानले आनी व्हडलें बक्षीस ताका दिवचें केलें. मेल्ल्या चोरांक पयस व्हरून पुरले.

५

मुखेली आतां एकलोच उरलो. ताचे सगळे सांगाती सोपले. अलिबाबाचो आतां तो चडूच दुस्वास करूंक लागलो. ताका सोपोवचो कसो हाचो विचार तो एकसारको करतालो.

आपूण एक व्हडलो गिरेस्त वेपारी कोगिया हुसेन आसां, अशें सांगून तो शारांत आयलो. अलिबाबा आनी ताचो चलो हांचे कडेन बरी इश्टागत ताणें जोडली. एक दीस अलिबाबान ताका आपणागेर जेवणाक रावपाक आमंत्रण दिलें. आपूण मीठ खायना देखून कोणागेर जेवंक रावना अशें ताणें सांगलें आनी वचपाची परवानगी मागली. अलिबाबान ताका आग्रो

केलो आनी रावपाक सांगलें. "मोर्जियाना, आमच्या पावण्या खातीर मिठा बगर बऱ्यांतलें बरें जेवण कर पळोवया." मोर्जियानान धनयाचो हुकूम आयकलो आनी ताका दुबाव आयलो. "हो विचित्र मनीस कोण आसुंये? हाका मिठा बगर जेवण कित्याक? मिठा बगर जेवण बरें कशें लागतलें?" ताणें आपणालो दुबाव अलिबाबाकडेन उलोवन दाखयलो. अलिबाबान म्हळें, "तूं हुस्को करूं नाका; कोगिया हुसेन म्हज्या पुताचो आनी म्हजो दोगांयचो इश्ट आसा."

मोर्जियाना विचारांत पडलें. 'जेन्ना मनीस दुसऱ्याचें मीठ खाता, तेन्ना तो ताच्या जिवार उठना. मीठ खावंक सोदिनाशिल्लो हो मनीस धनयाचो दुस्मान आसतलो आनी धनयाक मारूंक सोदता जातलो!'

ताणें सगळयांक जेवण हाडलें. पावण्याचेर ताची नदर आशिल्ली. पावण्यान कोटा भितल्ले वाटेन एक सुरी लिपयल्ली मोर्जियानान पळयली. ताणें ताका बारीकसाणेन पळयलो आनी हो मनीस आनी तेलाचीं बुयांवां घेवन आयिल्लो वेपारी एकूच हें ताच्या लक्षांत आयलें. धनी संकटांत सांपडला आनी ताका वाटावंक जाय अशें ताका दिसलें. ताणें सोरो, जेवण बी कोणाक जाय तें दिलें. कोगिया हुसेन अलिबाबाकडेन बऱ्यो खबरो मारतालो. खऱ्यांनी तो अलिबाबाक मारपाची योग्य संद पळयतालो.

मोर्जियाना भितर गेलें. ताणें नाचपा खातीर घालपाचो पोशाक आंगार चडयलो. कमराच्या पट्याक एक सुरो खोयलो. दुसऱ्या एका काम करपी चेडवाक धोलकें घेवन भायर येवंक सांगलें. "पावण्या खातीर आमी नाचगाणें करुंया, बेगीन यो."

मोर्जियानाक नाचपाक बरें येतालें. पावण्या खातीर नाचगाणें करपाची ताणें तयारी केली हें पळोवन अलिबाबाक खोस जाली. पावण्याचें मनोरंजन जावन तो खोशी जावचो अशें अलिबाबाक दिसलें.

नाचगाणें सुरू जालें. मदींच मोर्जियाना पावण्याचे सामकें लागीं गेलें आनी कमराचो सुरो काडून ताका कच् करून तोपलो. कोगिया हुसेन मरून पडलो. "मोर्जियाना, कितें केलें तुंवें? तुका पिशें बी लागलां काय कितें?" अलिबाबान आनी ताच्या चल्यान आडून म्हळें. मोर्जियानाचो हात तांणी धरलो.

"तुमचो जीव वाटावपा खातीर म्हाका हें सगळें करचें पडलें. ह्या मनशाक तुमी वळखतात जाल्यार पळयात. होच तो चोरांचो मुखेली, तुमच्या जिवार उठिल्लो तो." मुखेल्यान कोटांत लिपयल्लो सुरो काडून मोर्जियानान दाखयलो.

अलिबाबाक मोर्जियानान कितें सांगिल्लें तें पटलें. तो ताचेर एकदम खूश जालो. दुसरे फावट ताचो जीव ताणें वाटायल्लो. मोर्जियानाक अलिबाबाच्या घरांत व्हड मान

मेळ्ळो. अलिबाबान ताका आपणाली सून केली. चल्याचें आनी मोर्जियानाचें लग्न थाटामाटान केलें.

एका वर्सा उपरान्त तो दोंगरांतले घोलींत गेलो. मंत्र म्हळो, "जंतर मंतर कोला कंतर, तिळा उगड हाचे नंतर." घोल उकती जाली. थंयचें सगळें भांगर-रुपें तो घरा घेवन आयलो. घोल पुसून रिकामीं करून दवरली.

तो सदांच दयेस्त आनी गरीब-दुबळ्यांक मदत करपी आशिल्लो.



## ३. बडबडो म्हालो

खूब वर्सां जालीं हे गजालीक. एका गांवांत एक दर्जी रावतालो. तो सभावान खेळीमेळीन वागपी आनी आनंदी आशिल्लो. ताका लागून ताच्या दुकानाचेर सांजवेळ जाली की सदांच खूब लोक येताले. थंय जमून गजाली करप, झांकड्यो मारप हें सदांचें जावन गेल्लें. काम बी करून ह्यो गजाली आयकूंक येवपी जायते जाण आशिल्ले. तातूंत एक म्हालोय आशिल्लो. तो म्हळयार महा-बडबडो. ताका वळखना असो गांवांत कोण नाशिल्लो.

एक दीस एक परकी मनीस थंयच्यान वतालो. तो दर्ज्याच्या दुकाना म्हऱ्यांत रावलो. तो थोंटो आशिल्लो. लंगडत चलून चलून ताका पुरो जाल्लें आनी दर्ज्याच्या दुकानार विसव घेवंक सोदतालो. दर्ज्यान ताका भितर व्हेलो आनी मातसो विसव घेवंक सांगलें. गरीब थोंट्याक बरें दिसलें. बसतां बसतां ताची नदर म्हाल्या कडेन गेली आनी तो दुःखी जालो आनी रागान ताचे कडेन पळयत म्हणूंक लागलो, “म्हाका त्रासांत उडोवपी होच तो मनीस; हाणेंच म्हाका दुःखांत घालो. म्हाका ताचें तोंड लेगीत परत पळोवपाचें नाशिल्लें. पूण कितें करतलो? आयज तो हांगा मेळ्ळो. हांव आनीक एक खीण लेगीत हांगा राव सारको ना. म्हाका मुखार वचूं दी.”




दर्जी आनी ताच्या हेर सांगात्यांनी ताका दवरून घेतलो. "तूं वचूं नाका; हांगा रावूच. मातसो विसव घे आनी उपरान्त म्हाल्याचो तुका इतलो राग कित्याक तें आमकां सांग." तांचे विनंतीक मान दिवन तो रावलो आनी म्हाल्या वाटेन फाट करून ताणें आपली काणी सांगली:

म्हजो बापूय बगदाद शारांतलो गिरेस्त मनीस आशिल्लो. तो मेल्या उपरान्त ताची सगळी धनदौलत म्हाका मेळ्ळी. म्हाका बायलांचो दुस्वास आशिल्ल्यान हांवें लग्न केलें ना.

एक दीस हांव पासयेक वता आसतना एका घराच्या पोरसांत म्हाका सोबीत फुलां दिसलीं. हांव तीं पळयत

उबो रावलों. इतल्यांत घराचें एक जनेल उक्तें जालें आनी थंय सुंदर मुखामळाची बायल मनीस म्हाका दिसली. हांव तिका पळयत रावलों. इतल्यांत एक जाणटेलो घोड्यार बसून घरांत भितर सरलो. तो शारांतलो काझी आशिल्लो हें हांव वळखलों. तो घोड्या वयल्यान देंवलो आनी भितर गेलो. ते चलयेचो हो बापूय आसलो हें हांवें पारखिलें. हांव आनीक चड वेळ थंय रावलों ना. घरा परतलों.

तो सुंदर चेहरो म्हज्या दोळयां मुखार परतो परतो येवंक लागलो. हांव बायलांचो दुस्वास करतालों. पूण ही चली म्हाका बरी दिसली. हांव तिच्या मोगांत केन्ना पडलों कळळेंच ना. म्हाका तिका म्हजी बायल करची आशिल्ली. तिचोच विचार हांव एक सारको करूंक लागलों. म्हाका खाण-जेवण कांयच सुचना जालें. आनी म्हजी न्हीद सामकी खळून गेली.

म्हजे आवयचे वळखीची एक जाणटेली शारांत रावताली. तिचें आमगेर येवप-वचप आशिल्लें. एक फावट ती अशीच आयिल्ली तेन्ना तिणें म्हजी अवस्ता पळोवन म्हळें, "तुजें कितें जालां शाणुल्या, तें म्हाका सांगशीत? तुका बरें बी ना?" हांवें तिका ते सुंदर बायलेची गजाल सांगली. "ती बायल खऱ्यानीच सुंदर आसा; पूण तिका गर्व आसा, देखून तुका ती मेळप सोपें काम न्हय. तें काम म्हजेर सोंपय; हांव तिका मेळून

उलोवणें करतां," जाणटेलेन म्हळें.

उपरान्त ते सोबीत बायलेच्या घरा वचून तिणें तिका जायते फावटीं म्हजे विशीं सांगलें. हांव तिच्या मोगांत पडलां हें सांगलें. ती म्हाका मेळपाक कशीच तयार जायना जाली. जाणटेलेन प्रयत्न चालू दवरले. म्हज्या सभावा विशीं, हांव कसो दिसतां तें बी तिका सांगलें आनी अखेरेक ती म्हाका मेळपाक तयार जाली. फुडल्या शुक्रारा येवन म्हाका मेळूं दी. तिणें जाणटेले कडल्यान म्हाका निरोप धाडलो. शुक्रारा तिचो बापूय मशिदींत वतलो आनी घरांत ती एकलीच आसतली अशें तिणें कळयलें.

म्हाका सुमारा भायर खोशी जाली. केन्ना काय शुक्रार येता अशें म्हाका जालें. हांव सकाळीं फुडें उठलों आनी म्हाल्याक खाड करपाक आपोवन हाडलो. हांवें म्हाल्याक सांगलें, मातशें बेगीन खाड कर, हांव चड ताकतिकेंत आसां. म्हाल्यान जी बडबडपाक सुरवात केली, कसोच आयकना! बरोच वेळ वगडायलो.

"आरे बाबा, बेगीन सोंपय," हांवें रागान म्हळें, "म्हाका मातशी ताकतीक आसा, तुका सांगलें न्हय? दनपरां हांव एकल्याक मेळूंक वचचों आसां. उपकार कर सायबा." म्हालो सवकासायेन हात चलयतालो. तो वेळ काडटालो. भायर गेलो, सुर्याकडेन पळयत रावलो. भितर आयलो आनी म्हणूंक लागलो, "तुमकां आयज बरो दीस

ना. तुमी कितें करूंक सोदतात तातूंत तुमकां यश मेळचें ना." तुमी आयज घराच रावल्यार बरें.

म्हाका राग आयलो. "तुजें तोंड धांप आनी काम कर. म्हाका तुजीं शाणेपणां आयकुपाचीं नात. तूं म्हालो, तुजें काम तूं कर."

तो थंडपणान म्हणूंक लागलो, "रागार जावं नाकात सायबा. हांव सादोसुदो म्हालो न्हय. म्हाका बऱ्योच गजाली कळटात. तुमकां मदत करपाची म्हजी इत्सा आसा." हांव आतां बेजारून गेल्लों. ताचेर तापलों आनी ताका चलूंक लाग म्हूण सांगलें. ताची कांय वचपाची तयारी नाशिल्ली. "म्हाका तुमी आपोवन हाडला. हांव स्वता जावन येवंक ना. म्हजें काम करतलों आनी मागीरूच वतलों."

निमाणें ताणें म्हजें खाड करपाक सुरवात केली. पूण तोंडाचो पट्टो चालूच दवरलो, "दनपरां तुमी खंय वचपाचे आसात तर?" ताणें विचारलें. ताका खरें सांगपाचें म्हज्या मनांत नाशिल्लें. "म्हजे कांय इश्ट जमतले, तांकां मेळपाक वचपाचें आसा," हांवें बेश्टें सांगून सोडलें. "हांव खूब दिसांनी तांकां मेळपाक वतां. तांकां जेवण भेटोवपाचो विचार आसा."

म्हजें खाड करप तशेंच सोडून दिवन तो म्हणपाक लागलो, "बरी याद जाली बाबा. हांवें म्हज्या घरा कांय इश्टांक जेवणाक आपयल्यात. आनी कांय जिनस म्हाका

घेवपाचे आसात. हांव सामको विसरिल्लों. बरें जालें, तुमकां लागून आतां याद जाली."

"म्हजें खाड बेगीन कर रे सायबा. तुज्या इश्टांक जेवण जाय जाल्यार हांव दितां, पूण म्हाका बेगीन मेकळो कर."

"देव तुमचें बरें करूं. तुमचे उपकार हांव केन्ना विसरचों ना. हें पळय, हांव फक्त म्हालो न्हय. म्हज्या आंगांत जायत्यो कला आसात. हांव तुमकां गावन आनी नाचून दाखयतां."

इतलें म्हणून तो उठलो आनी गावंक आनी नाचूंक लागलो. मदींच थांबून ताणें म्हळें, "तुमीय म्हज्या इश्टां वांगडा जेवंक येयात. तुमच्या इश्टां बरोबर मागीर केन्नाय वचशात. आयज नाका. आमंच्या नाचगाण्यान तुमकां खूब मजा येतली. बेश्ट्यो झांकड्यो मारपाक तुमच्या इश्टां बरोबर कित्याक वतात?"

आतां म्हाका हांसूंक आयलें. हो म्हालो बडबडपाक सगळ्यांक फाटीं घालतलो. हांवें म्हळें, "आयज कांय येवंक जावचें ना. आनीक केन्नाय तुज्या इश्टांक मेळपाक हांव येतां." "तशें जाल्यार हांव तुमच्या वांगडा येतां. म्हज्या इश्टांक जाय तें जेवण-खाण घेतां. म्हजे इश्ट ते एकलेच खातले. हांव तुमचे बरोबर रावतां. तुमच्या इश्टांचें मनोरंजन करपाचें काम म्हजेर पावलें."

"असलें कांयच म्हाका नाका. तूं तुज्या इश्टा म्हऱ्यांत वच आनी हांव म्हज्या इश्टां बरोबर वतां. समजलो?"

म्हजें खाड एकदांचें जालें. हांवें म्हळें, "म्हजे नोकर जेवण तुगेर पावयतले. तुजें घर तांकां दाखोवन दवर." तो एकदांचो गेलो. हांव न्हेसून बी भायर सरलों आनी वचपाक लागलों. हो म्हालो रस्त्याच्या कोनशाक राविल्लो हें म्हाका कळ्ळें ना. हांव ते सुंदरेच्या घरा पावलों आनी तिणें दार उगडून म्हाका भितर घेतलो. तिका मेळ्ळे बरोबर म्हाका चड खोशी जाली. आमी दोगांय एकामेकांक आवडलीं.

अकस्मात भायर गडबड जाली आनी सुंदरेन जनेल उगडून भायर पळयलें. तिचो बापूय परत आयिल्लो. इतले बेगीन आयिल्लो पळोवन तिका अजाप जालें. हांवेंय भायर पळयलें जाल्यार हो म्हालो रस्त्याचे दुसरे वाटेन बसून रावला.

सुंदरेचो बापूय भितर सरतनाच तो एका वावर करतल्याचेर तापलो आनी ताका ताणें बडोवंक सुरवात केली. वावराड्यान बोबो आनी हुयेली मारपाक सुरवात केली.

थंय उबो आशिल्ल्या मूर्ख म्हाल्याक दिसलें, म्हाकाच मार पडलो म्हूण. ताणें वाटे वयल्या लोकांक जमयले आनी तांकां सांगलें, "हे लोक म्हज्या धनयाक मारपेट करतात. ते ताका जिवेशीं मारून उडयत. ताका

वाटावपाक म्हाका मदत करात.''

लोकांक घेवन म्हालो दार खडखडावंक लागलो. दार उगडटकूच तांणी सुंदरेच्या बापायक पळयलो. म्हाल्यान ताका गडबडायलो, ''म्हज्या धनयाक कित्याक ओगीच मारतात? काझीक कांयच कळना जालें. आरे, कोण तुजो धनी? हांव ताका वळख पसून ना.''

''म्हजो धनी तुजे चलये वांगडा भितर आसा. तांचो एकामेकांचेर मोग आसा. तुमकां खबर ना? आमकां दिसलें, तुमच्या वावराड्यां कडल्यान तांकां मारपेट करून धांवडायता म्हूण. कितेंय आसूं, ताका सोडून दियात.''

''म्हज्या घरांत कोण एक मनीस ना. चला, तुमीच सोदात.'' म्हालो आनी बरोबरचे लोक भितर सरले. म्हालो हेंच सोदतालो. म्हालो कितें उलयतालो ताचेर म्हजें लक्ष आशिल्लें. कुडींत एक व्हडली पेट आशिल्ली. हांव ते पेटयेंत वचून बसलों. म्हालो एक सारको म्हाका सोदतालो. खांची कोनश्याक ताणें पळयलें. पेटेचेर ताचें लक्ष गेलें. हांव ते पेटेंत आसतलों अशें ताणें चिंतलें. धांपणें उगडून पळय जाल्यार हांव ताका दिसलों. ताणें पेट उबारली आनी ती घेवन भायर रस्त्यार आयलो. लोकांचे आवाज म्हाका आयकूंक येताले. हांवें पेटेंतल्यान भायर उडी मारली. हांव पडलों आनी म्हजो पांय मोडलो. ते खातीर म्हाका लंगडचें पडटा. हांवें थंयच्यान पळ

काडलो. लोक म्हाका हांसताले आनी आड्डताले. पळटना
हांवें कांय भांगराच्या आनी रुप्यांच्या नाण्यांचो शिंवर
केलो. तीं पुंजावपाक ते थांबले. पूण म्हालो म्हाका
कसोच सोडपाक तयार नाशिल्लो. तो म्हजे फाटोफाट
येवंक लागलो. म्हाका ताचो राग आयिल्लो. हांव
पळटालों. म्हज्या फाटल्यान म्हालो लागिल्लो.

हांवें एक खाणावळ पळयली आनी हांव भितर सरलों.
मालकाक सांगलें, "त्या मनशाक मात भितर घेवं नाका,
तो सामको पिसो आसा."

खाणावळीच्या मालकान म्हजें आयकलें आनी ताका
भितर घेतलो ना. हांव ते खाणावळींत कांय दीस रावलों.
म्हजो पांय मातसो बरो जालो. हांवें ती खाणावळ
सोडली. त्या म्हाल्याचें तोंड ह्या जल्मांत म्हाका पळोवपाचें
नाशिल्लें. हांव हांगा विसव घेवंक म्हूण रावलों आनी हो
मनीस म्हाका परतो दिसलो."ताणें म्हाका दुःखी केला.
हांव ताचो दुस्वास करतां. ताच्या तोंडार म्हजी नदर
पडची न्हय अशें म्हाका दिसता."

इतलें म्हणून तो परकी थोंटो मनीस लंगडत भायर
गेलो.

म्हाल्याकडेन पळोवन दर्ज्यान विचारलें, "हें सगळें खरें
आसा? कितली दुखदिणी काणी!"

"खरी आसा ही गजाल. पूण म्हाका त्या मनशाचें
एक समजना. हांव ताका मदत करूंक गेलों आनी तो

म्हजो इतलो दुस्वास कित्याक करता? कांय लोव
विचित्र आसतात हेंच खरें!" म्हाल्यान म्हळें. दर्ज्या
कपलार हात मारलो.



# ४. तारवटी सिंदबाद

खूब खूब वर्सां पयलीं बगदाद शारांत हिंदबाद नांवाचो एक हमाल रावतालो. दीस भर तो काम कर कर करतालो. इतलें आसूनय तो गरिबांतलो गरीब आशिल्लो. एक दीस खूब काम केल्या उपरान्त हिंदबाद एका व्हडल्या रस्त्यार पासय मारीत मारीत व्हडल्या घराकडेन पावलो. त्या घरा भायर मातसो विसव घेवंक तो बसलो.

त्या घरांत व्हडले मेजवानीची तयारी चल्ल्या हें हिंदबादान ताडलें. नाचगाण्याचे बी आवाज ताच्या कानार पडले आ!नी पक्वान्नां शिजतालीं ताचो वास नाकांत गेलो. ह्या व्हडल्या घरांत कोण रावता हें समजून घेवपाची ताका वान्सा जालीं. मुखेल दरवट्या म्हन्यांत उबो आशिल्ल्या मनशाक ताणें विचारून पळयलें. ताणें ताका म्हळें, "आरे, तूं नकळ? बगदादांतले ल्हान भुरगे लेगीत जाणात, हो तारवटी सिंदबादाचो वाडो म्हूण."

"म्हाका क्षमा करात. हांवें सिंदबादाचें नांव आयकूंक ना," ताणें म्हळें.

"सिंदबाद हो गिरेस्त मनीस. नामनेचो तारवटी. ताणें सगळो संवसार पळयला."

हिंदबाद विसव घेवंक बसलो. बसतां बसतां ताणें

म्हळें, "हांव इतलो गरीब कसो जालों? आनी सिंदबाद इतलो गिरेस्त! हांवें कितें कोणाचें वायट केलां? देवान म्हजेर कित्याक कृपा करूंक ना?"

तो इतलें म्हणून बसला मात, भितल्ल्यान एक नोकर येवन ताका म्हणूंक लागलो, "चल, म्हजे बरोबर यो धनयान तुका घेवन येवंक सांगलां." हिंदबाद साप भियेवन गेलो. ताका दिसलें, आपणें कितें म्हळें तें सिंदबादाच्या कानार गेलें आनी तो सामको रागार जाल जातलो.

तो नोकरा बरोबर व्हडल्या सालांत गेलो. थंय मेजांचेर पक्वान्नां मांडिल्लीं. पावणे थंय जमिल्ले. सिंदबाद ताच्या म्हर्यांत आयलो आनी ताणें ताका एका मेजा कडेन व्हेलो. ताचें नांव-गांव विचारलें.

"तूं कितें म्हणटालो तें हांवें आयकलें," सिंदबादान म्हळें.

"ना सायबा, म्हजी चूक जाली. हांव गरीब आनी कितें तरी उलोवन गेलों. म्हाका गुन्यांव भोगोस," हिंदबादान काकुळटेक येवन म्हळें.

"कांय हुस्को करूं नाका. हांव तुजेर रागार जावंक ना. हांव कसो गिरेस्त जालों तें तुका आयकुपाचें आसल्यार हांगा राव. हे हांगा सगळे जमल्यात तांका म्हजेर जीं जीं संकटां आयलीं, हांवें जें जें कितें भोगलें तें सांगपाचो आसां हांव. हांवें एकूण सात भोंवड्यो

केल्यो. हांवें केल्ल्या धाडसाच्या वावराचीं वर्णनां हांव सांगपाचो आसां. तूं राव आनी आयक." इतलें म्हणून सिंदबादान सात भोंवड्यांची काणी सांगपाक सुरवात केली.

## २. घुंवतो जुंवो

म्हजो बापूय गिरेस्त आशिल्लो. तो सोंपल्या उपरांत म्हाका जायती धनदौलत मेळ्ळी. हांव ती सगळी थोड्याच दिसां भितर वगडावन बसलों. कांय वेपाऱ्यां बरोबर हांव तारवान भायल्या देशाक गेलों. आमी हे सफरी वेळार कांय जुंव्यांचेर वचून आमचो म्हाल खपयलो आनी तांचे कडल्यान म्हाल घेवन आयले.

एक दीस वारें साप्प पडलें, त्या वेळार आमी एका ल्हान जुंव्या म्हऱ्यांत पाविल्ले. तारवाच्या तांडेलान आमकां भायर वचपाक आनी भोंवपाक मेकळीक दिली. आमी सगळे मजेंत भोंवताले. इतल्यांत आमकां सुमारा भायर धक्को बसलो. जुंव्याचो जुंवो फिरूंक लागिल्लो. तो गडगडटालो आनी आमी जोराजोरान हालूंक लागले. तांडेलान आड्डून आमकां परतुपाक सांगलें.

जाका आमी जुंवो म्हणटाले, तो जुंवो नाशिल्लोच. ती समुद्रांतल्या महाकाय प्राण्याची फाट आशिल्ली! जांकां बेगीन उडी मारूंक आयली, ते तारवार चडून गेले. कांय जाणांनी दर्यांत उडी मारली आनी तारवार पेंवन गेले.



कांय वेळा उपरान्त वारें शिडांत भरलें आनी तांडेल
कोण तारवार पावले तांकां घेवन मुखार गेलो.

हांव मात फाटल्यान उरलों. हांव बरोच वेळ पेंव
रावलों. जें एक व्हडलें ल्हार आयलें, ताणें म्हाका एक
जुंव्यार उडयलो. त्या जुंव्यार हांव भोंव भोंव भोंवलों
उपरान्त कांय जाण घोड्यांक चरवाक सोडून बशिल
दिसले. म्हाका पळोवन तांकां अजाप दिसलें. तांक
पळोवन म्हाका खोस जाली आनी अजाप दिसलें. तांण
म्हाका खावंक दिलें. हांवें तांची खबर घेतली. ह्या पडि
जुंव्यार तुमी कितें करतात काय म्हणून विचारलें. थंयच्य
महाराजाले ते नोकर आशिल्ले. महाराजाचे घोडे चरपा
हांगा घेवन आयिल्ले. आनी दुसऱ्या दिसा परते शारां

वचपाचे आशिल्ले. म्हज्या बऱ्या नशिबान म्हाका ते मेळळे. शार बरेंच पयस आशिल्लें.

ते म्हाका महाराजा कडेन घेवन गेले आनी तांणी म्हजेर आयिल्लो प्रसंग ताका सांगलो. महाराजाची राजधानी समुद्राचे देगेर आशिल्ली. संवसारांतल्यान सगळे कडल्यान थंय तारवां पावतालीं. हांवें थंयच्या वेपाऱ्यां कडेन इश्टागत जोडली. कांय चड विद्या शिकिल्ल्या हिन्दुस्थानी मनशां कडेन म्हजी वळख जाली. म्हज्या बऱ्याच प्रस्नांच्यो तांणी जापो दिल्यो.

तसो हांव खोशी आशिल्लों. पूण म्हाका घरा परत वचपाची उमळशीक लागिल्ली. तारवार जो म्हजो म्हाल आशिल्लो, तो परत मेळळयार जाय आशिल्लो. महाराजाचे म्हजेर सुमारा भायर उपकार जाल्ले. ताणें म्हाका कांयच उणें पडूंक दिलें ना. पूण आपलें घर तें घर ताची सर दुसऱ्या जाग्याक येना.

एक फावट सकाळीं फुडें हांव बंदरार गेल्लेकडेन एक तारूं बंदराक लागतना दिसलें. पळयना फुडें हांव त्या तारवाक वळखलों. हांव तांडेला म्हऱ्यांत गेलों आनी म्हजी वळख सांगली. "आगा, हांव सिंदबाद. सिंदबाद म्हूण अक्षरां बरयल्लो म्हाल तुमच्या तारवार आसतलो तो म्हाल म्हजो."

तांडेलान म्हाका धुकलून घालो. "सिंदबाद केन्ना मेलो. सिंदबादाचो म्हाल आमच्या तारवार आसा हें खरें. हांव

तो हांगा विकतलों आनी पयशे सिंदबादाच्या कुटुंबाक पावयतलों." हांवें ताका म्हजी वळख दिवपाचो बरोच प्रयत्न केलो. ताका म्हजी वळख पटली आनी हांव जितो आसां म्हूण ताका खोस जाली.

म्हज्या म्हालांतल्यान हांवें बऱ्यांतल्यो बऱ्यो वस्तू त्या दयेस्त महाराजाक दिल्यो. थोड्या दिसांच्या प्रवासा उपरान्त आनी कांय वेपार करून हांव तारवा बरोबर घरा परतलों.

## ३. कोंकोरोकाचें तांतीं

हांव परत घरा आयिल्लों तेन्ना प्रवासाक परत वचचों ना म्हूण कानाक फातर लायिल्लो. पूण प्रवासाची ओड म्हाका सस्त बसूंक दिना जाली. कांय म्हयन्यां उपरान्त कांय वेपारी प्रवासाक वचपाक भायर सरले तेन्ना हांव तांचे बरोबर भायर सरलों.

प्रवास करतां करतां आमी एका जुंव्यार पावले. थंय तरातरांच्या फळांचीं झाडांच झाडां आसलीं. एक मनीस वा जितो मूस लेगीत दिसलो ना. म्हजे सांगाती फळां आनी फुलां पुंजावपाक गुल्ल जाल्ले. म्हाका झाडा मुळांत बशिल्ले कडेन न्हीद लागली. हांव कितलो वेळ न्हिदून उरलों देव जाणा! जेन्ना उठलों, तेन्ना पळय जाल्यार म्हजे सांगाती कोण दिसनात आनी तारूंय दिसना. हांव जुंव्यार एकलोच उरलों. हांव बेगिबेगीन

एका झाडाचेर चडलों आनी तारूं दिसता काय पळयलें. म्हाका वयर मळब आनी दर्याच दर्या हाचे बगर कांयच दिसलें ना. वयल्यान म्हाका एक धवो फुल्ल व्हडलो घुमट दिसलो. हांव झाडा वयल्यान सकयल देंवलों आनी घुमटाचे दिशेन चलत रावलों. तो घुमट बरोच व्हड आनी वांटकुळो आशिल्लो. तो गुळगुळीत आशिल्ल्यान म्हाका ताचे वयर चडप शक्य जालें ना. हांवें त्या घुमटा भोंवतणी फिरून खंय दार बी आसा जाल्यार पळयलें. तशें कांयच नाशिल्लें. घुमटाचो घेर कांय ना म्हळयार पन्नास पावलां इतलो आसूंक जाय. हें कितें तें म्हाका कांयच समजना जालें.

सूर्य सकयल वतालो. अकस्मात मळबांत कुपां येवन जाता तसो काळोख जालो. वयर पळय जाल्यार ढग नाशिल्ले. पूण एक महाकाय पक्षी उडत उडत हांव उबो आसां ते दिकेन येतालो.

म्हाका तारवट्यांनी सांगिल्ल्यो कोंकोरोक ह्या महाकाय पक्षाचे खबरीची याद जाली. कांय चुकूं नाका, होच तो कोंकोरोक आनी हें ताचें व्हडलें तांतीं. हांव मनांत अशें म्हणटां इतल्यांत तो पक्षी येवन त्या घुमटा येद्या तांतयार रवाण्याक बसलो. ल्हवूच हांव ताच्या पांयां कडेन गेलों. एक एक पांय झाडा येदो. म्हजो माथ्याक बांदपाचो रुमाल काडलो आनी त्या पक्षाच्या पांयाक म्हाका घट्ट बांदून घेतलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पक्षी मळबांत वयर

उडलो. आनी ताच्या वांगडा हांव वयर वयर पावलों. व्हड वेगान पक्षी उडटालो. म्हाका घुंवळ आयिल्ले सारकें जालें आनी हांव निर्नळून गेलों.

उडत उडत कोंकोरोक एके खोल दरयेंत पावलो. हांवें बेगीन बेगीन म्हाका सोडोवन घेतलो. म्हजें नशीब बरें आशिल्लें. कोंकोरोकान एक व्हडलो सोरोप चोंचींत धरलो आनी उडत गेलो.

हांवें भोंवतणी नदर मारली. म्हाका दिसलें, हांव आशिल्लों थंयच बरो आशिल्लों. ओगीच ह्या विचित्र जाग्यार येवन पडलों. चोंय वाटेन दोंगर! आतां कपलार हात मारून कितें उपेग जावपाचो आशिल्लो? हांवें भोंवन जाग्याचो अदमास घेवपाचो प्रयत्न केलो.

हांव वज्रां-माणकांच्या देगणांत पाविल्लों. बगदादाक आसतना हे विचित्र दरयेचीं वर्णनां हांवें वेपाऱ्यां कडल्यान आयकल्लीं. आनी आतां हांव ते विचित्र दरयेंत आसां हाची म्हाका खात्री जाली. हे दरयेंत घे म्हूण वज्रां, माणकां बी तरेतरेचीं रत्नां आशिल्लीं. हांव ह्या रत्नांची तोखणाय करतालों. इतल्यांत म्हाका व्हड व्हड सोरोप दिसले आनी केन्ना काय म्हजी हांगाच्यान सोडवणूक जाता अशें म्हाका जालें. तांचो दुस्मान म्हळयार कोंकोरोक. ताच्या कचाट्यांतल्यान सुटपा खातीर ते सोरोप दिसाचे लिपून रावताले.

रात जायना फुडें हांव सोरपाक चुकोवचे खातीर एके

घोलींत वचून लिपून बसतालों आनी घोलीचें तोंड फातरान धांपतालों. रातभर सोरपांचें फुसफुसप आयकूंक येतालें. न्हीद कशीच पडनाशिल्ली. सकाळीं फुडें सोरोप नाच जाताले आनी हांव ल्हवूच भायर येतालों.

हांव वज्रां माड्डितालों. पूण म्हाका तीं उबारपाची इत्सा जायनाशिल्ली. केन्ना काय हांगाचो भायल्या जगांत पावतां अशें म्हाका जाल्लें.

अकस्मात म्हजेर कितें तरी येवन आदळ्ळें. तो मासाचो कुडको आशिल्लो. थोड्या वेळान आनीक मासाचे गुळे येवन पडले. म्हाका चट् करून याद जाली. वज्रां जमोवपाक ही युक्त वेपारी उपेगांत हाडटात. दोंगरा वयल्यान सकयल देगणांत मासाचे कुडके उडयतात. चड करून गरूड पक्षांनी पिलां काडटकूच हें अशें करतात. मासाचे कुडके सकलय पडना फुडें हिरे तांकां चिकट्टात. गरूड पक्षी मासाचे कुडके पिलां खातीर व्हरपाक येतात. वेपारी गरुडांचे पाळटेर रावतात. आनी मासाच्या कुडक्यांतल्यान हिरे काडून घेतात आनी पिलां खातीर मासाचे कुडके सोडून दितात.

हांवें चिंतलें, हे गरूड पक्षीच म्हजी सोडवणूक करूंक पावतले. हांवें बरेचशे हिरे एकठांय केले आनी म्हजे कडेन गरजेच्या जिनसां खातीर आशिल्ले चामड्याचे पोतयेंत भरले. ही पोती हांवें म्हज्या पट्याक घट्ट बांदून

उडयली. उपरान्त हांवें एक व्हडलो हिरो सोदून तो व्हडांत व्हड मासाच्या गुळयाक बांदलो. हो मासाचो गुळो म्हजे तकलेक घट्ट बांदलो आनी हांव सकयले वाटेन तोंड करून जमनीर पडून रावलों.

एक व्हडलो गरूड आयलो आनी ताणें म्हाका वयर उबारून दोंगरांतल्या ताच्या घोटेरांत व्हेलो. वेपारी गरूडाची वाट पळयत आशिल्ले. तांणी गरुडाक भेश्टावन धांवडावन घालो आनी म्हजी युक्त फळाक आयली. हांव आतां वेपाऱ्यां मदीं दोंगरार सुरक्षीत आशिल्लों.

म्हाका पळोवन वेपारी चकासूर ज़ाले. आनी म्हजे कडेन झगडपाक लागले. तांकां दिसलें, हांव तांचे हिरे चोरपाक आयिल्लों म्हूण. म्हजेर आयिल्ल्या प्रसंगाचें वर्णन हांवें थोड्या उतरांनी केलें. हांवें तांकां हांवें हाडिल्ले हिरेय दाखयले. ते बरोबर ते झगडपाचे थांबले. म्हजे कडेन आशिल्ल्या हिऱ्यांचो वांटो हांव तांकां दिवंक तयार जालों. ते भोव खोशी जाले. तांणी म्हाका आपणाल्या तारवार घेतलो आनी बरेभाशेन घरा हाडून सोडलो. म्हा़का मेळिल्ल्या हिऱ्यांनी हांवें खपता तसलो म्हाल घेतलो आनी तो विकून जायते पयशे जोडून बगदाद शारांत म्हज्या घरा सुखान रावंक लागलों.

## ४. सातवी आनी निमाणी भोंवडी

आतां मेरेन म्हज्यो स भोंवड्यो जाल्ल्यो. प्रत्येक
ावटीं म्हाका विचीत्र अशा धाडसांक तोंड दिवचें
डटालें. हांवें जायते नवे नवे देश पळयले. थंयच्यो
ती पळयल्यो. म्हाका जायत्या त्रासांक तोंड दिवचें
डलें. सवे भोंवडे उपरान्त हांवें परत तारवार पावल
वरचें न्हय अशें थारायलें. म्हजी पिराय आतां
ाडिल्ली आनी म्हाका सुसेगाची गरज आशिल्ली.

एक दीस हरूण अल रशीद खलिफान म्हाका आपोवणें
ाडलें.

"सिंदबाद, म्हजे तुर्फेन तूं सेरेनदिपाच्या राजा कडेन
टवस्तू आनी पत्र घेवन वचूंक जाय. हें काम तूंच बरें
रतलो अशी म्हाका खात्री आसा. ह्या कामा खातीर
ंव तुका हजार भांगराच्यो मोहरो दितलों आनी वचपा
वपाची वेवस्था करतलों. तुका मान्य आसा काय
?" खलिफान विचारलें. म्हज्या मनांत वचपाचें
ाशिल्लें, पूण खलिफाक ना कशें म्हणटलों? अशे तरेन
ातवे भोंवडेर हांव भायर सरलों. ही मात निमाणी
रली. खलिफान म्हजे खातीर खास तारूं तयार
रलें. ताचेर अणभवी तांडेल आनी तारवटी
ाशिल्ले. आनी सेरेनदिपाक वचपाक तारूं सोडलें.

सेरेनदिपाच्या राजान म्हाका बरो येवकार दिलो.
लिफाची सुंदर भेटवस्तू आनी ताचें इश्टागतीचें पत्र

पळोवन तो सामको खोशी जालो. भेटवस्तूं भितर जरीचें आंगांतलें आशिल्लें. ते खेरीज पन्नास उंची कपड्यांचे पोशाक आशिल्ले. धवीं लुगटां आशिल्लीं आनी रत्नजडीत आयदनां आशिल्लीं.

राजा म्हाका एक सारको राव म्हणून आग्रो करतालो. पूण हांवें बगदादाक परत वचपाची परवानगी मागली. हांव परत वतना ताणें म्हजे खातीर आनी खलिफा खातीर जायत्यो भेट वस्तू दिल्यो. आमी परत वचपाक तारूं सोडलें. वाटेर आमचेर दर्यांतल्या चोरांनी हल्लो केलो. तांकां तारूं लुटपाचें आशिल्लें. आमचें तारूं वेपारी आशिल्लें. झूज करपाची सोय ताचेर नाशिल्ली. ताका लागून तांणी आमकां धरले. आमचे भितल्ले कांय जाण तांकां शरण गेले. तांणी आमकां ताब्यांत घेवन गुलाम म्हूण विकून सोडले.

एका गिरेस्त वेपाऱ्यान म्हाका विकतो घेवन आपणाल्या घरचो नोकर केलो. म्हाका ताणें बरेच प्रस्न केले. "तुका धनुश्य-बाण घेवन बाण सोडूंक येता?" हो एक प्रस्न आशिल्लो. हांवें ताका सांगलें, म्हजे तरणे पिरायेर हांवें धनुश्य-बाण घेवन शिकार केल्ली. ताणें म्हज्या हातांत धनुश्य-बाण दिलो आनी म्हाका पयशिल्ल्या रानांत घेवन गेलो. एक ऊंच झाड दाखोवन म्हाका ताणें म्हळें, "चल, त्या झाडार चड. थंयच्यान तुका सकयल्यान हती वतना दिसतले, तांचेर बाण

सोडीत राव. हती मरून पडलो जाल्यार म्हाका कळय." अशें म्हणून, म्हाका खाणाचे जिनस दिवन तो परत गेलो.

रातभर हांव झाडार रावलों. म्हाका एकूय हती दिसलो ना. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हतयांचो एक कळप येतना म्हाका दिसलो. हांवें सूं सूं करून तांचेर बाण सोडले. एक हती बाण लागून मरून पडलो. कळपांतले बाकीचे हती पळून गेलें. हांव सकयल देवलों आनी धनयाक बातमी दिवंक गेलों. तो सामको खोशी जालो. तो म्हजे बरोबर रानांत आयलो. हांवें ताका हती दाखयलो. ताणें-हतयाचे दांत काडून घेतले आनी आमी मेल्ल्या हतीक पुरून उडयलो. ह्या हस्तिदंताचे ताका खूब पयशे मेळपाचे आशिल्ले.

दोन म्हयने हें अशें चलिल्लें. दिसपट्टो हांव एक हती मारतालों. एक दीस हांव झाडार बाण सोडपाचे तयारेंत आशिल्लों. इतल्यांत हतयाचो कळप मुखार वचचे वांट्याचो झाडाक गराडो घालून रावलो आनी एकाच बरोबर चीं चीं करूंक लागले. हांव सामको भियेवन गेलों. धनुश्य-बाण म्हज्या हातांतल्यान गळसणलें. कांय वेळान एका व्हडल्या हतयान अख्खें झाड हुमटावन जमनीर उडयलें. झाडा बरोबर हांव सकयल पडलों. त्या हतयान म्हाका सोंडयेन उबारून आपणाले फाटीर दवरलो. हांव सामको भंयान अर्द मेल्लो जाल्लों. मागीर

तो कळप फुडें सरूंक लागलो. थोड्या वेळान हती थांबलो. सोंडयेन उबारून म्हाका सकयल देंवयलो. आनी तो बाकीच्या हतयां बरोबर फुडें गेलो.

सगळे हती वचना फुडें हांव ल्हवुल्हवू उठलों. भोंवतणी पळयलें; हांव एका लांबचे लांब दोंगरार आशिल्लों. ह्या दोंगरार सगळे कडेन हतयांचे दांत आनी हाडां पडिल्लीं. ही हतयांची मसणवट आसूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. हती हुशार आसता म्हूण आयकल्लें. तांणी म्हाका हांगा हाडून कित्याक सोडलो तें म्हजे मतींत आयले बगर रावलें ना. ह्या जाग्यार घे म्हणून हस्तिदंत मेळूं येतात हें तांकां दाखोवपाचें आशिल्लें. आनी हती मारपाची गरज ना हेंवूय तांकां दाखोवपाचें आशिल्लें. हांव घरा परतलों आनी दुसऱ्या दिसा धनयाक घेवन हतयाचे मसणवटींत गेलों. म्हजो धनी खोशी जालो. आतां मेरेन हतयान ताचे बरेच गुलाम मारून उडयल्ले. हांव एकलोच वाटावल्लों.

म्हज्या धनयाक म्हाका लागून जायती धन-दौलत मेळ्ळी. हांव ताचो गुलाम उरलों ना. म्हाका तो आपणाल्या भावा सारको वागयतालो. आनी म्हाकाय ताणें गिरेस्त करून सोडलो.

हांवें ताचे उपकार आठयले आनी म्हळें, "आतां म्हाका सगळयांत व्हडलें बक्षीस म्हळयार म्हज्या देशांत हांवें परत वचप."

कांय तारवां आयलीं. आनी हांव एकांत खूब हस्तिदंत घेवन चडलों. भोंवडी बरी जाली. एका बंदरार आमी देंवले आनी थंय हस्तिदंत विकून बरेच पयशे मेळ्ळे. तांतल्यान हांवें वेगवेगळया तरांच्यो वस्तू विकत घेतल्यो.

कांय वेपारी भूंयमार्गान बसऱ्याक वताले, तांचे बरोबर हांवूय गेलों. ती वाट बरीच लांब आनी त्रासांची आशिल्ली. पूण दर्यांतलीं संकटां आनीक म्हज्या वांट्याक येवचीं न्हय अशी म्हजी इत्सा आशिल्ली.

अखेर शेवटाक हांव बगदाद पावलों आनी खलिफाच्या वाड्यार गेलों. ताणें म्हाका खूबूच मायेन येवकार दिलो आनी जायत्यो भेट वस्तू दिल्यो. म्हज्या घरा परतो पावलों हाची म्हाका खूब खोस जाली. आतां हांव सुखान रावतां आनी म्हज्या इश्ट-मित्रांक जमोवन मौज-मजा करतां.



ओरिएंट लाँगमनचीं पुस्तकां:

- देखदिण्यों काणयो
- वावटळ आनी हेर काणयो
- अलिबाबा आनी हेर काणयो
- जादूची बाग आनी हेर काणयो
- काणयो: देवांच्यो आनी मनशांच्यो: १
- काणयो: देवांच्यो आनी मनशांच्यो: २



ओरिएंट लाँगमन

Ali Baba Ani Hear Kanyo (Konkani)
Ali Baba and Other Stories (Konkani)
ISBN 81 250 0230 8

Rs. 16.0